

# "स्पन्दन"

भास कोंकणी आवसु आमची। लिपि देवनागरी उडगासु दवराची।।

Date of Publication : 1st APRIL 2019

 सवांक नववत्सर शुभाशंसा 




## केरळ कोंकणी अकादमी

कोच्ची

पन्चवीस रुपया

मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै

कोशाधिकारि
के. विजयन

वाँगडी
प्रो. जी. मोहन राव

न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार

प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Layout by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521

मुखचित्र : 2019 फेब्रु 2-3 तारिकेक काणकोण (गोंय) राजबाग चाठारांतु मॉलेमा रिसोर्टान्तु दोचोर्नु जल्लेले 24 वें अ.भा.कों.साहित्य सम्मेळन - एदें चित्रं। (आभार : एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची)



प्रति - ₹ 10/-
वार्षीक - ₹ 100/-

# स्पन्दन

प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची

**SPANDAN**

Published by :
KERALA KONKANI ACADEMY
8/28, 'Santhery', 1st Floor,
Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,
Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849
Email : keralakonkaniacademy@gmail.com

खंड : 8 अंक : 4 1941 चैत्र

संपादकीय

## भावपूर्ण श्रद्धाञ्जलि

## स्व. मनोहर परींकर (13.12.1955-17.03.2019)

(गोंय मुख्यमन्त्री)

कोच्ची, 01-04-2019 सुरेश ए. शेणै, मुखेल संपादक

कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर अनि अनुग्रहा चारिटबिळ ट्रस्ट हंगेले संयुक्ताभिमुख्यारि "कोंकणी सप्ताह - 2019" मेय 6 थकून 12 (10-12 a.m.) थांयि कोच्चीचे प्रभाकर ज्योती सभाघरांतु जत्तलें। भागु घेंवचानि संपर्क कोर्यात : एम. लक्ष्मण किळिकार - Mob : 9037439679

---

2,3 मार्च 2019, रवीन्द्र भवन, कुडचडें (गोंय):-हन्नी, गोवा कोंकणी अकादेमी-पणजी आनी कोंकणी कला साहित्य केन्द्र-कुडचर्डे एकमेळ्नु दुसरें "कोंकणी नाट्य संमेलन - 2019" घडोव्नु हळ्ळें। केरळचे प्रतिनिधी - चन्द्रबाबु वी. शेट्टी, पय्यन्नूर रमेश पै, एस. रामकृष्ण किणी, सैलेष आनन्द।

---

14.3.19, श्री मल्लिकार्जुन महाविद्यालय, काणकोण :- "कोंकणी पत्रिकोध्यम आनी परिगत" ह्या विशयाचेरि कार्यावळ घडोव्नु हळ्ळी। मुंबयचे वल्ली क्वाड्रस हन्नि "गझल" विशयाचेरि माहिती दिल्ली।

---

13.3.19, फा. आग्नेल कोळेज, पिलार, (गोंय) :- हंगेले कोंकणी विभाग अनि मंगळूर विश्वविद्यालयाचे कोंकणी अध्ययन पीठ एकमेळ्नु "Some thoughts on Konkani Literature" देशीय सेमिनार घडोव्नु हळ्ळें।

---

16.3.19, मिलाग्रेस कोळेज सभाघर, मंगळूर :- हम्पनकट्टाचे ह्ये कोळेज अनि मंगळूर विश्वविद्यालयाचे कोंकणी अध्ययन पीठ एकमेळ्नु सर्वप्रथम इन्टर कोळेजियेट कोंकणी सांस्कारिक मत्सर "सुरस काम्पस" घडोव्नु हळ्ळें।

---

09.3.19, दांडेलि (कर्नाटक) :- गोंय, कर्नाटक, महाराष्ट्र अनि केरळचे 27 बरोवप्यांले काणियाँ संग्रह (कन्नड अनि नागरि लिपीन) "सुरयो उदेता" - वल्ली क्वाड्रस (हन्नी संपादन केल्लेले) - कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादेमीले वार्षिकोत्सवान्तु प्रकाशन केल्ले।

---

15-16 मार्च 2019, मॅकीनेझ पालस, पणजी :- धेंपे कला आनी विज्ञान महाविद्यालय मीरामार आनी गोंय मनरिझवण संस्था, पणजी एकमेळ्नु "कोंकणी सिनेमा - एक नदर एक वळख" राष्ट्रीय परिसंवाद घडोव्नु हळ्ळें।

---

8.3.19, गोंय विद्यापिठाचे सभाघर :- आंतरराष्ट्रीय बाय्लां दीस अनुबन्ध जाव्नु गोंय विद्यापीठाचे कोंकणी विभाग आनि गोवा कोंकणी अकादेमी एकमेळ्नु "अभिव्यक्ती-चिंतन आनी कार्य" ह्या विषयाचेरि राज्यस्थरीय चर्चा आयोजित केल्ली।

---

16.3.19, कोंकणी सेवा केन्द्र, सांखळी (गोंय) :- "लेखक तुम्च्या भेटेक" कार्यावळी घडोव्नु हळ्ळी। लेखक अस्सिले काशिनाथ नायक।

**संत केशवदासालि**
**हितोपदेश कथा – 45**

प्रो. वी. शिवानन्द भट,
पंचाब्जपुरम

# अहंकाराचि धूळि

आत्मा मात्र शाश्वत, अन्य कांयि ना। आत्मान्तूचि स्वर्गसुख अस्स। आत्मज्ञान मेळचे बगेक अहंकाराचि धूळि दूरा काडका मात्र। हें तत्व एक दृष्टान्तान स्पष्ट जत्ता। एक मनीषु चमकतालो। झोडु-वार्यान तगेले दोळ्यान्तु धूळि गेल्ली। दोळे दुक्कूक आरांभिले। दुक्कि दूरा कोरूक तो झायते जनालगि गेल्लो। जनालें भिन्न-भिन्न उत्तरां अयकूनु तो भ्रमित जल्लो। एकल्यान संगीलें, "मित्र, तुगेले दोळे गेल्ले।" दुसर्यान संगीलें, "दोळे कळ्यारि मात्र तुगेलि दुक्कि वत्तली।" अपण्याले कर्मफलान तो एक नेत्र-विशेषज्ञालगि वत्ता। ते डॉक्टरान एक मिनिट भित्तेरि तगेले दोळ्यान्तु उद्दाक फप्पूणु धुळिकण भायर कळ्ळें। दुक्कि वच्चाक तका व्होडु सन्तोषु जल्लो। ताणे संगीलें, "हे डॉक्टर, तूंवे मिगेले दोळे मक्का वापस दिल्ले, धन्यवाद !" डॉक्टरान सविनय संगीलें, "हाँवें तुका दोळे दिल्लेना, तुगेले दोळे सम अस्सिल्ले। तुगेले दृष्टीक पीडा दिंवचि धूळि दूरा कळ्ळी। धुळियेलगि दुक्कीयि भायर अयली। धूळि वच्चाक दुक्कि गेल्ली। अन्तर्निहित सन्तोषु तूंवें प्राप्त केल्लो।"

सन्देश :- आत्मा सदा संपूर्ण। मायारूपी झोडु-वार्यान हडचि अहंकाराचि धूळि दुक्कि अनी दुःखाक कारण जत्ता। अज्ञानी जनालगि गेल्यारि ते संगतले, "तुका कांयि वांचु ना, तूं पाप केल्यां, तूं नरकान्तु पडतलो, आत्महत्या कोरचें तुका चांग" म्हणु। दुःखी मनुष्य हें अयकूनु दुविधेन्तु पडता। कर्म चांग जल्यारि तें तका आत्मज्ञानी गुरूलगि पांवयता। तो गुरु नेत्रविशेषज्ञावरीचि भक्तीचे उदकान तगेले अहंकाराचि धूळि दूरा करता। ते वेळारि तो मनीषु ते गुरूक कृतज्ञता सांगता, "तूं मका स्वर्गसुख दिल्लें" म्हणु। गुरु सांगता, "स्वर्गसुख तुज्जेलगीचि अस्सिल्लें। हांवें तुगेले अहंकाराचि धूळि दूरा कळ्ळि मात्र। अहंकारु वच्चाक अपूर्णतायि गेल्ली। तुका तुगेले आत्माचि पूर्णता प्राप्त जल्ली। आत्मज्ञान अथवा आत्मानुभूति हकाचि म्हणतायि।"

**एक प्रयोजनप्रद कोंकणी वेबसैट : konkaniwordnet.unigoa.ac.in**



# विश्व मानव महात्मजी-30

कृष्ण नारायण नायक, कोच्ची

## "प्राण प्रतिसन्धि गान्धीजीक"

गोवर्गारि तांगेले धन्नि भारतान्तूयि भयंकर क्रूरता निष्ठूरता दाकैतायि म्हुण गान्धीजीक मनान्तु जालें। आदायु-लाभु चोड्डु कोर्का म्हळेले दुराग्रहान त्या मृगांचेरि लेकनात्तिलें अत्याचार जत्ताले। थेम्बो दूध पर्यान सोसून पीळ्नु काडतालीं। गान्धीजीले स्नेहाद्र हृदयाक ती कठोर मृगीयता सहन जालीना। चड दुधा आशेन आर्तीन पीडा भोगूचे गांयची दुक्कि दुःख अठौन व्याकुलतेन आनिक दुधचि नाका म्हुण गान्धीजीन दृढव्रत आरांभीलें। सुमार काळांक तस्सि दृढवृति राबीलो गान्धीजी। तस्सी आस्तना गान्धीजीक घट्टि असौख्य फाटि घेत्तलें। चिकित्सा धर्ना। देह खिण्णिटेता। डाक्टरान सांगीलें - "आरोग्य पर्तून मेळका, देह पुष्ठि धोर्का, जीवन सबसूब जांवका जल्यारि दूध पींवूका।" अपण्याले प्रतिज्ञे पासून गान्धीजीन डाक्टराक विवर्सिलें। सिन्तीतवन्ति आनि कूर्ममति कस्तूर्बा त्या दृश्याक साक्षि राबून तो संवाद आयकतालि। बाह्मुणान असौख्यान्तु थाकून मुक्त जांवका परत् आरोग्यवन्त जांवका म्हळेले आत्मार्थ इच्छेन, एक्क धोक्यान विचारान्तु बुडली। सूक्ष्म आनि अखण्ड चिन्तेन अपायान्तु उपाय दिकून धर्लो। निंवगीलें गान्धीजी लागी - "गायचें म्हसीचें दूध पिवचीना म्हुण वें तुम्गेलो दृढ निश्चयु ?" निशंक गान्धीजीन जाप दिल्लि - "व्हय, तेंचि, तसीचि, तितलेंचि।" कस्तूर्बान एक लगेन स्पष्ठीकरण करैलें। "तवळि बोकडी दूध पिंवचें व्रत भंग न्हय मू" कस्तूर्बालि चतुर जापेन गान्धीजीक गुळक्यान्तु गल्लो। प्रतिज्ञा कडता सणा ती एकि साध्यता गान्धीजीले मनोमण्डलान्तु उद्देलीना अस्सिल्ली। "रोगी बोकडी दूध पिंवचाक अनुकूल जल्यारि तें खुशाल पूरो, परिहार खण्डित !" डाक्टरान एकडे केल्लें। गान्धीजीन मत्तें हलैलें, सन्त्तगदायि सुख पावलो। तस्सि कस्तूर्बाले कौशल्यान भयानक असुखान्तु थाकून गान्धीजी वान्चलो; ना तरि जल्यारि भविष्य अचिंत्य तं अस्सिलें। सबार कांयि सिकिलीना कस्तूर्बा जल्यारि विदूषि वनितां पासि अनुभवान्तु प्रायोगिक दर्शनान्तु समर्थ अस्सिल्लि। उत्तम पत्नि, आदर्श आवस, निस्वार्थ समाज स्नेहि.. कस्तूर्बा भारत नारिकुलाक एक अनुकरणीय अनुगमनीय, अपूर्व दृष्ठान्त तं अस्सिल्लि। सर्वांक फलप्रद सद्गुण भण्डार अस्सिल्लि तीं। गान्धीजीले सविशेष जीवितान्तु विशिष्ट सहधर्मिणि आनि श्रेष्ठ सहयोगिनि खण्डित ! *

## सुभाषित

प्रो.के.एन.आर.भट
कोच्ची

"क्रोधः कामो लोभमोहौ विधित्सा
कृपा/सूये मानशोकौ स्पृहा च।
ईर्ष्या जुगुप्सा च मनुष्यदोषा
वर्ज्याः सदा द्वादशैते नराणाम्।।" (महाभारत-उद्योगपर्व)

क्रोध, काम, लोभ, मोह, चिकिर्षा, निर्दयता, असूया, दुरभिमान, शोक, स्पृहा, ईर्ष्या आनी दुसर्यांक निन्दा-खेळु कॅरप - मनुष्यान्तु स्वतः अस्चे ये बारा दोष, मनशानि अवश्य त्यागु कॅरका जल्लेलें तें।

## न्हय हो जन्मु व्यर्थ कोरचो

- विलासिनी नायक, कोच्ची

रुक्का वोत घेंव्का जत्ता
फूल-फल समृद्ध जंचाक
अय्दूवांक घातु घेंव्का जत्ता
चन्द फलवडि जंव्चाक।

मत्ति ती मस्त भज्जता
सुदृढ अय्दन जंव्चाक
पाषाण उत्तूले भेत्तता
एक सुन्दर शिल्प जंव्चाक।

भंगार उज्यांतु विडविडेता
रमणीय आभरण जंव्चाक
उद्दाक उत्तूले तप्पता
निर्मल जल ते जंव्चाक।

तेल स्वयं जोळ्नु सर्ता
अन्याक उज्वाडु दिंव्चाक
शिंपि दुक्की भोगीता
मोत्ति लोकाक दिंव्चाक।

काळकूड विष महेशु पिल्ला
अमृत देवांक मेळूक
त्याग महान दधीचीन केल्ला
वज्रायुधाचे निर्माणाक।

तपस घोर ध्रुवान केल्यां
देवाक प्रत्यक्ष कोरूक
कष्ट प्रहळादान मस्त भोगल्याय
सत्य ते सिद्ध कोरूक।

दुःख प्रथम भोगूका जत्ता
अखेरि सूख तें मेळूक
कष्ट महन्तानिं काडूका जत्ता
चांगपण लोकान्तु वड्डूक।

त्यागांची जीवित सार्थक जांवचे
पुण ते भोगान्तु व्यर्थ जांवचे
सत्य हें अम्मि मनान्तु संजूचे
न्हय यो जन्मु व्यर्थ कोर्चो।।

# चतुराई



- पी. गोपिनाथ कामत, तिरुवनन्तपुरम

घरकडे बेस्सून वेळ वचना. देकुन, भायर देवनु एक चमकून एवया म्हुण हांव आठेयलें। सकाळचे अन्न खावनु, तेदूसचे खबरा पत्र पूर्ण वाचून जालें.

"श्यामळा, हांव भायर देंवता, बागिल बन्ध करी" मागेल जाप आयकून बायल वासरांतु थाकूनु धावनु माजे मुकार आयलि.

"तुमि खत्तय वत्ताय ? केदाण परतून पांवतले ?" तीणे प्रश्नु केलो। "हांव खंय दूर वचना. एक हाथ पाय हलोव्नु चमकूक वत्ता. सकाळीं थाकून कांय करूक नत्तिल्यान, अलसाय दूर करया म्हुण दिसले". तिजेलगि हांव जाप दिल्ली.

"वाटेर चोवनु वचाय, प्रत्येक ते आंगडी मुक्कार रोड पार करनु वच्चे" तिगेलि उत्तरां. सम तं. आतंचे रोडावेलो गोन्दोळ देखलार घरकडे थाकून कोणेय भायर गेल्यार, ताणीं घर पर्तून पांवचे पर्यंत मनांत कांय समाधान घरकारांक आसुना. रोडार धांवचे वाहनांचि संख्या बराबर चड जाल्या. म्हळ्यार ताका लागून रोडाक कांय सुधारप अधिकार्यानिं केलेना. ते कारणान रोडावेलान चमकून वचे जनांक एंवचि अडचणी सांगुक जांवचे न्हय. रोडावेले दोनीय देकान सान-सान ब्यारेली तांगेले बिक्री सरक चमकूचे वाटेर पतळाव्नु दवरलांतु जनांक चमकूक चड प्रयास जाता.

हांव मागेल हातांत आसिलि सातली विस्कळायलि. वोताचि हुनसाणि मारता जालारीय, एक देकावेलान थंड वारें मारता देकून हूम येना. हांव चमकूचे उपरांटे स्कूटरारि एत्तालो वेंकट, माका देकून राबलो. हांव निवृत जालेल कंपनीन्तु काम करता तो. मागेलो परनो एक दोस्त.

"हां वेंकट तूं आज दफतरांत गेलोनावे ?" हांव ताजे लागि प्रश्नु केलो. तागे पूतु केशवाले व्हर्डिकेचो निश्चय गेल्ले वारांत जालो खंय. केशव तागेलो दुसरो पूत. मलगडो नारायण व्हर्डिके नंतर कुटुम्ब जाव्नु बांगळूरु राबता. केशव बी.टेक सिकवण जावनु, ताका भायरचे एदे गावांत ट्रैनिंग आसिले. जापान, जर्मनि, चैना सग्ग राबून दोन वर्स जावनु तो गावांतु परतून आयिलो. तवळीच ताका व्हर्डिकेचि आलोचन आयलि. चेल्लेक वचून चोयलो. सम दिसलें. तागेलें मां बापान उत्तर दीवनु तुरंत निश्चयूय जालो. ताजे उपरांते केशव जापानांत परतून गेल्लो. ※

मागेल संगाति वेंकटाक दफतरांतुले कोणाक निश्चयाक आपोंव्चाक जालेंना खंय. ताका एक बेसून आलोचन करूक समय कांय ना जालो. केशव तागेले ट्रेनिंगाचे मद्दें एक वाराचे सुटीक गावांत आयिलो. तवळ व्हर्डिकेचि आलोचन एवनु तुंरत निश्चयु करका म्हुण तिरुमान जालेले. तसि ऊणे इष्टांक आनि लागीचे जनांक मात्र उल्लो दीवनु व्हर्डिके फूडेचो तो आघोष जालो. माका निश्चयाक आपोव्नु नात्तिले कारणान जावयात हें सग ताणे माजे लागि सांगता म्हुण माका मनांत जालें.

"तांतु कांय व्होड ना वेंकट, तूं व्हर्डिकेक माका उलदीतलो नवें ?" हांव ताजे लागि म्हळ्ळें.

"संशय नाका, ताजे आमन्त्रण पत्र दिंवचाक लगीच एक दिवसा तुगेल घरकडे हांव एत्तलो" म्हुण जाप दीवनु वेकट माका हात दीवनु "बै" सांगुन गेल्लो.

म्हळयार त्या उपरांत तागेले व्हर्डिकेचे बर्प देखलेना. वेंकट विसरलोल आसूका, हांव आठेयलें. 

## सूरदास भजन

- के. अनन्त भट, कोच्ची

कीरा ! चल तूं वनाचे रस घे रे।
ज्या वनांतु कृष्ण नामामृत रस कान्नानी भोर्नु पी रे।।
कोण पूतु तुजो पिता कोणालो तूं मिथ्या जग भ्रमु तुगेलो।
काळे मज्जर ते व्हरतलें तुक्का म्हणता तूं "मेगेलो-मेगेलो"।।
हरि नाना रस मुक्तिचें सात्तें चल तुका दाकेयतां।
सूरदासु सज्जन संसर्गु हो होड भाग्यान पावंता।।

ह्ये भजन 1978 क मंगळूरु A.I.R. न्तु प्रस्तुति केल्लेले।
गायिका : सावित्रि गुलवाडी

### आळें (കടങ്കഥ / Riddles)

'एम्चे वेळारीयि चम्कना
वोच्चे वेळारीयि
चम्कना।
जल्यारि एम्चे-वोच्चे
मद्दें चम्कतायीयि
नांचतायीयि।"

प्राणि

✤ खंय धर्मु थंय जयु ✤

# शबरीक मोक्षु



- एन. माधव रावु, कोच्ची

त्रेतायुगान्तुलो श्रीरामचन्द्र अनि
भावु लक्ष्मणूयि सीते सोडूनु संचार करतायिं।
घोर घोर वनान्तुल्यान भोव्नु तीं
एकी योगिनी शबरीले आश्रमां पवलीं।।

शबरि एकि शूद्रकुलाचि स्त्री तं
तिगेले आश्रमां एंवचे मुनींगेली सेवा करता।
पत्र, पुष्प, फल इत्यादि पूजा द्रव्य
सोडून पुंजाव्नु हाणु तंका दित्ता।।

चातुर्मास्य व्रत पूर्ति जावनु
पोरतून वचे मुनियानिं दिल्लो तिक्का उपदेशु।
राम नाम जप निरन्तर कॅरि
चित्रकूटारि पवलो रामु दर्शन तुका दित्ता।।

वर्ष मस्त भोगून गेल्लीं
राम नाम जपु कोटी कोटी जल्लो।
एक दिवस रामु लक्ष्मणु समेत
अयिलो शबरी आश्रमान्तु दिल्ले दर्शन तिका।।

शबरीन तंका स्वागत संगीले
पीठेरि बेसोव्नु उपचार केल्लो।
निवेदाक बोर तीणे चबून दिल्ले
बोर गोड अस्स म्होणु रामान संगीले।।

रामान तिका सारोपदेश दिल्लो
अनि सीते विवोरु निंवगीलो।
सग कोळचे रामा! तुका हांव संगून जांका वे ?
लंकापति रावणान फारनु व्हेल्ली सीतेक।।

ऋश्यमूक पर्वतारि पांच श्रेष्ठ वानर बेसलायिं
तंचे लगि सख्य केल्यारि करतायि
तन्नी सीतान्वेषण, सीता तुका मेळतली।।

रामा ! तुझे मुकारि मिजे देह
अग्नीक समर्पण कर्ता हांव
रामान दिल्ला मोक्षु शबरीक
शबरी गेल्ली वैकुण्ठाक।।

23.2.19 फा. आग्नेल कला आनी वाणिज्य महाविद्यालय, पिलार (गोंय) :- हत्रि अनि गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी एकडे मेळ्नु "कोंकणी गद्य साहित्यांतली लोकसंस्कृती आनी समाजदर्शन" राष्ट्रीय परिसंवाद घडोव्नु हळ्ळें।

# विचित्रु



- वसन्तकुमारी पी. एस., कोच्ची

शिङ्गारि वनान्तु मद्दे एकि व्होल्लि तॅळयि अस्सिल्लि। तन्तु जायति मस्सळि, कुरळे, कासोव, बेब्बे, हेवाळें सग्ग अस्सिल्लिं। तीं सग्ग एकमेळीन सन्तोषान रब्बूनस्सिल्ले वेळारि एकु दीसु तन्तु व्होळ्ळे देहय आट पय्ययि अस्सिल्लि "नीराळि" म्हळेलि मस्सळि एव्नु पवलि। तिग्गेले विचित्र रूप दिक्कूनु तन्नि "विचित्र" म्होणु नाँव घल्लें। भय्यान तीं जीवजाल सग्ग उद्का पोन्दाकयि, चिकलान्तूयि, बीळान्तूयि निप्पीलिं। विचित्राक खवंचाक कांयि मेळ्ळेना। ताणे भुक्केन थांगा-हंगा पराक्रमु काणु भोवंचाक आरांबीलें। "चिक्कू" म्होणु नावांचे एक कसवा पील अस्सिल्ले। तक्का एकि बुद्धि दिस्सलि। विचित्राचे मुक्कावेल्यान ताणे एळ्ता-पेळ्तान्तु पोवंचाक आराम्बीले। छट कोरनु विचित्रान तक्का धोर्नु खवंचाक गेल्लो। विचित्रान धरलोलोयि चिक्कून हत्तयि, पय्ययि, मत्तेंयि भित्तेरि कळ्ळें। विचित्रान तक्का एकु घासु मर्लोलोयि तग्गेले दांत्तय, तोण्डय दुक्कलें। यें इत्तें इन्द्रजाल ? हग्गेले मत्तें, हाथ, पाय खंयि ? तक्का परिभ्रमु जल्लो। गुवंडाव्नु गुवंडाव्नु चोव्नु घेव्नु तक्का कांयि मनान्तु जल्लेना। तो कसवाक प्रथम जाव्नु दिक्कता। ताणे निराशेन तक्का सोणु दूरा विन्दीलो। ते दिक्कूनु तॅळियान्तूलिं सर्वय जीवजालानि खुत-खुती हस्सूक आराम्बीलें। उद्का उँचारि उब्बूचे चित्रशलभ, पक्कि, रुक्कारि बेस्सल्यो पक्षियो सग्ग हस्तायि। विचित्राक लज्जा जल्लि। तो एक कवश्या मूळान्तु वोच्चूनु निप्पीलो। राति जवंचानीक कोण नेणतना कळकान्तु तॅळियान्तु थकूनु भायर एव्नु तो समुद्रान्तु गेल्लो। तश्शि ते कसवा पिल्लाल्या सामर्थ्यान तॅळियान्तूलिं जीवजाल विचित्राले तोण्णान्तु थकूनु वंच्चलिं।



**पुस्तक प्रकाशन** - 19.3.19, आदिवासी संगटना केपें (गोंय) :- "अवचीत" (कथांझेलो) रामनाथ गावडे।

## अनन्त भुजगा..

- लता रंग मल्लन, माळा

अनन्त भुजगा दी देवा तुग्गेली दया
अम्मि सगटेयि होडि भक्तीन कर्तायि तुग्गेलि सेवा
कर्तायि तुग्गेलि सेवा

अनन्त देवा भुजगा
अनन्त देवा भुजगा (अनन्त)



करता विष्णु तुज्जेरि शयन
शिवाक तुज्जे कुलाचे आभरण
कोर्का देवा अंगेले सगटाले कुटुम्बाक रक्षण
अनन्त देवा भुजगा अनन्त देवा भुजगा (अनन्त)

तुग्गेले उग्र रूप दिक्कूनु
मन्नांतु होडि भीति पावनु
कड्कडेव्नु बेस्सल्यांक दी तू शान्ति समाधान
अनन्त देवा भुजगा अनन्त देवा भुजगा (अनन्त)

नागरन्त तुग्गेने धन
तुग्गेले कुलाक ते भूषण
कोर्का देवा अम्का तुग्गेले दयेन संपन्न
अनन्त देवा भुजगा अनन्त देवा भुजगा (अनन्त)

"भांगरभूंय" कोंकणी दिनपत्र वच्चायि ओणलैनः
epaper.thegoan.net

## कोच्ची जनांगेले देवळ

- वी. मोहना टीचर, कोच्ची

कोच्ची जनांगेले देवळ यें
तंगेले आश्रय केन्द्र मूं यें
भक्तजनांक सान्त्वन दित्तलें
गोश्रीपुरेशाले मन्दिर यें।। (कोच्ची)

वेंकटपतीलि महिमा ती अपार
करता तो भक्तांले दुरित संहार
आबालवृद्धांक तोचि मूं आधार
कोर्का अम्मिं तगेलें ध्यान निरन्तर।।
(कोच्ची)

मनांतु संकष्ट अस्स तरि जल्यारि
तग्गेले नड्यारि वोच्चूनु बेसल्यारि
मनान तग्गेलें स्मरण तें केल्यारि
हाडता तो उज्वाडु अम्गेले मुक्कारि।।
(२) (कोच्ची)

### केरळ - कर्नाटक - गोंय

धिंगळप - लकोवप - धुकलप
मगल्यान - माक्षी - फार्टी
सन्त/ल्हवु - हगूर - ल्हव




YASORAM
BUILDERS

www.yasoram.com

# KOCHI!









e

m

GY ROAD, KOCHI

ments in 4 floors
e locations
amenities
arlal Nehru
2 elevators

NEAR MG ROAD METRO STATION, KACHERIPADY JN., KOCHI

• 17 storeys, 50 premium luxury apartments
• Ground-floor and first-floor entirely dedicated for parking
• 10 floors of 3-BHK apartments (4 units on each floor)
• Top 5 floors hold 10 units of 4-BHK apartments (2 units per floor) • Dolby Atmos equipped mini-theatre
• 3 elevators

**Call: 98477 55550, 98470 55550, 98477 04873**

tion activities

Convent Road, Kochi - 682 035. Tel: +91 484 2366726, 2352271, 2352437, 2373830
E-mail: manju@yasoram.com

## रस्पति - आर. के. प्रकाश, पळ्ळूर



Dr. P. N. N. सिंह
डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

किनावळ्ळी बेबी - डॉक्टर, प्रळयान्तु हाँवे बरय्लेलो कविता समाहारु "एकु इतिहासु" ना जालो, पिंजपिंजून ते सर्वनाश जालो। इत्ति कोरतोलो ?

डॉक्टर - प्रश्नु ना, प्रळय ना जालें। जन सग देवादयेन वांचलि। दुरंत ना जाले म्होणु लेकल्यार पूरो गा !

* * * *

पैन्दार सुकु : डॉक्टर सार, मक्का जर्मन भाष सिकूका म्होणु आशा। हाँव चार भित्तरि तं सिखीला। इत्ति कोर्का ?

डॉक्टर - प्रश्नु ना, कोंकणी अदमच संगूनु सीख ! तें जाव्नु फोरिन भाषा प्राप्त केल्यार पूरो।

## परणी म्हण्णी



- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

- ❖ जॅनाचो पासु सोडोव्यातें मनाचो जाव्ना।
- ❖ चोण्या झाडा चोणो काडूकॅ निस्सॅणि इत्याकॅ ?
- ❖ घर्चे गोडॅ अम्ब्सें सेज्जारॅ अम्ब्साणि गोडि।
- ❖ गाँवु सोणु पर्गांवान्तु गेल्यारीयि प्राराब्ध सोणा।
- ❖ गड्डवॅ सींग हाडूक गेल्लें कानु कोव्वोळ्नु अय्लें।

## अष्ट वसु

(श्रीलिङ्गमहापुराणानुसार)

1) आप, 2) ध्रुव, 3) सोम, 4) धर, 5) अनिल, 6) अनल, 7) प्रत्यूष, 8) प्रभास

कोंकणी खबरेक चोय्यायि/पळेयात
facebook
कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर

"कल्याणात्भुत गात्राय
कामितार्थ प्रदायिने
श्रीमद् वेंकटनाथाय
श्रीनिवासायते नमः"

वेंकटगिरिवासा - श्रीवेंकटेशा
गोश्रीनिवास हरे - देवा
लक्ष्मीरमण हरे .... (2)

वज्रखचित मरतक रत्नमाला
नारायण गोविन्दा
सुन्दर सुवर्ण पीताम्बरधारा
पुरुषोत्तम माधवा



## श्री वेंकटरमण गानामृतं

- सुरेश वी. शेणै, कोच्ची

शंखुचक्र नवरत्न विभूषणा
गोश्रीनिवास हरे - देवा
लक्ष्मीरमण हरे .... (2)

सर्वालंकार सुशोभित रूपा
अहो देवदेवोत्तमा
सर्व चराचर वन्दित देवा
नमो श्रीमन्नारायणा
भक्तजन प्रिय मुक्ति प्रदायका
गोश्रीनिवास हरे - देवा
लक्ष्मीरमण हरे .... (2) ※

## विडंबनात्मक पद प्रयोग पळया

- नागेष अण्वेकर, कारवार

वैर पावलो
नीट जालो
उदार पाडलो
दोळे धांपलो

इंगाळ जालो
मात्ति खालो
घट्ट जालो
स्वास सोडलो

पावलां बेळसलो
दोळे वैर जाले
अंत्य कालाक
अंबे कुंटेरि गेलो

खड्डेरि गेलो
धुकोट हुडले
निग्रसलो
गूड गात्लो

## कोंकणी - മലയാളം - English

- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

निसरॅपं - **അയയുക, അഴിയുക, വഴുതിപ്പോവുക, രക്ഷപ്പെടുക** - To become loose, to slip away, to escape

निसरावॅप - **അയയ്ക്കുക, അഴിക്കുക** - to make loose

निकळॅपं - **ഊരി വരിക, ഇളകി വരിക** - Loosen-up

निकळावॅपं - **ഊരുക, ഊരിയെടുക്കുക, ഇളക്കിയെടുക്കുക** - Pluck out, Pull out, Unscrew

मेकळावॅपं - **ഊരിക്കുക, അഴിപ്പിക്കുക** - To make strip

मेकळॅपं - **അഴിയുക, അഴിക്കുക** - to strip

## कोंकणी कविता

✻ 20.2.2019

गोंय विद्यापीठाचे प्रशासकीय कार्यालयाचे परिशद सभाघरः- गोंय विद्यापीठान्तुले कोंकणी विभागाचे कोंकणी सरस्पत मंडळान सर्गेस्त कविवर्य शंकर रामाणी यादस्तीक "16 वें अखिल गोंय कोंकणी कविता वाचन सर्त" आयोजित केल्लें ।

अन्नपूर्णा

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय) - उषा आर. भट, हैदराबाद

**सामग्री**

1. सुरेय तन्दूलु - 1 कि.
2. गोड - ½ कि.
3. तीळु ना कस-कस - 5 चिपट
4. मिर्याकॅणा पुड्डि - 1 चिपट
5. तूप - 2 चिपट
6. मिट्टा पुड्डि - 1 चिमटि
7. तेल - तोळूक

सुरेय तन्दूलु एक घंट्याक उद्कान्तु फुग्गोव्नु, सवळियान्तु सुक्कोव्नु, लानि पिट्टि कोर्का। गोड, सूत एवु भितॅरि पांकु कोर्नु, तन्तु उणे उणे जाव्नु गूळि मण्डना तस्सि, तन्दला पिट्टी मिश्रण कोर्का। एक चिपट तूप, तीळु ना कस-कस, मिर्याकॅणा पुड्डी, उणेचि मिट्टा पुड्डी इत्यादिक घालनु चांग प्रमाणी मिश्रण कोर्नु, रण्णीरि थकूनु खाल काणु, धंपूनु एकि राति फवरेंचाक दव्वोर्का।

हेर दिसा ये पिट्टाचे निम्बूव्या एदेचि उण्डे कोर्नु, हत्ताक तेल लाव्नु, हत्ताचे मनकटान दम्मूनु ¼ इंच (¼ inch) दट्टायेन वोडे सरि पतळाव्नु, हून तेल्लान्तु, अर्द्ध उज्जारि तोळ्नु काडका। तळचे तेल्लान्तु, एक चिपट तूप मिश्रण केल्यारि चांग पोरमोळु एत्तोलो। एक सप्ताह पर्यन्त, ये वोडे वायट जवंना। तोळ्नु कड्तना वोडे दोन कयलात्यांचे मद्दें दोव्वोर्नु दम्मिल्यारि अधिक तेल पिल्ले जल्यारि, थेम्बेव्नु वत्तलें।

टिप्पणि :- चॅड रुचि मेळचाक, थोडे जन वोड्या वयरि, हुनसाणि वच्चें फूडे, एळा पुड्डि अनि शक्कर मिश्रित फप्पूण, एक्का वयरि एक दोव्वोर्नु चन्दायि हडतायि।

(कर्नाटक राज्यान्तु "अतिरसा" नव्वानयि, आन्ध्रा/तेलुंगाना राज्यान्तु "अरिशलु" म्हळ्ळेले नव्वानयि जाण जंचे ये वोडे, मकर संक्रान्तीक विशेष जाव्नु घरांकडेयि, देवालयान्तु प्रसादु जव्नूयि, तैय्यार करतायि।) ✳

## गोश्रीपुरेशा....

- टी. उमेश भट, कोच्ची

विद्यानगर सोणु तूं गोश्रीपुरान्तु आयलो
कनकाभिषेकान प्रतिष्ठ तुका केल्लो
महाजनाले जावनु विराजमान जल्लो
गोश्रीपुरेशु म्होणु कीर्ति तूं पवलो।।
गोश्रीपुरेशा लक्ष्मीश्रीवेंकटेशा

नित्य तुगेले दर्शनाक अम्मि एत्ताय मू
तुगेले गुणगान भक्तीन अम्मि करताय मू
अम्गेलि प्रार्थना स्वीकारु कोर्का
तुगेली दया अम्चेरि केदनायि जांवका।।
गोश्रीपुरेशा लक्ष्मीश्रीवेंकटेशा

भक्तीन अपेयल्यारि धावनु पंवतलो मू
तुगेले भक्तांक शरण दीवनु रकतोलो मू
दुखां थकूनु मुक्ति दीवनु रक्षण कोर्का
अम्गेले अपराध क्षमा कोर्नु राक तूं देवा।।
गोश्रीपुरेशा लक्ष्मीश्रीवेंकटेशा

कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर आयोजित प्रतिमास कोंकणी कविसंगमं 24 वें (विळम्बि-माघ) 2.3.19 क, 25 वें (विळम्बि-फालगुन) 30.3.19 क सुशीला टी. भट, कोच्ची हंगेले घरकडे दवोर्नु जल्लें।



## भक्त हनुमान

- वी. लक्ष्मण पै, कोच्ची

जय हनुमन्ता जय बलभीमा
भक्तशिरोमणि तूं श्री रामदासा
असाध्य साधका अञ्जनपुत्रा
सदा अभय दीव्नु राक तूं अम्का।। (जय)

ऋष्यमूक पर्वतारि वासु तुग्गेलो
श्रीरामचन्द्राक रक्कूनु रब्बीलो
रामदूत रूपान लङ्कादहन
रावणगर्वाचे नाशाक कारण।। (जय)

बलबुद्धी विद्या आयुरारोग्य
वरदान तुग्गेलें उत्तम श्रेष्ठ
शनिदोष निवारणाक प्रथम तें स्थान
दूर करि देवा कलिकाल दोष।। (जय)

## चौपदि

- एन. सदानन्द कम्मत, कोच्ची

युद्धाक वत्ता धीरु
सार्णि भोर्नु व्हीरु
रुक्कारि बेस्ला कीरु
नञ्चता चोय्यायि मोरु



**कोंकणी प्रसारण - आकाशवाणी** कारवार : (सग्ग बिरेस्ताराचे सन्जे 5.00 - 5.30)
धारवाड (765 Khz) MW: (सग्ग सोमाराचें रत्ति 10.00 -10.30 जाई-जूई कार्यक्रमु)
तृश्शूर (630 Khz) MW, कोषिकोड (684 Khz) MW : (मंगळाराचे संजे 5.00 धोर्नु 5.15 पर्यन्त)

## हें तुमका कळता व्हे?

### कोंकण्यांगेले आचार-विचार

- सुशीला त्रिविक्रम भट, कोच्ची

## "दायदीसु अथवा जन्म दिवसु"

अनीक दयदीस्सा तेह्नस्चो कार्यक्रम इत्ते सग्ग म्हुण चोवयां.

सकणीच चेरडाली आवसु-बप्पूसु न्हाव्नु चांग वस्त्र न्हेसतलीं. चेरडाकय तेल लावनु न्हाणोव्नु नवें वस्त्र (चोग्गो, फ्रोक इत्यादी) घालनु, आभरणां सर्वय धारण कोरोव्नु, दोळयांतु कज्जल सूवनु, निडळारि तीळो कोरनु सग्ग सज्ज करतलीं। देवाक पांय पडयतलीं. अधिकांश जनांय दयदीसाक होमु करयतलीं. "नवग्रह-शांती" होमु तां चडय करप. चेरडाले आयुरारोग्यसौख्या खत्तीरी, कुटुम्बाचे ऐश्वर्या खत्तीरी सग्ग तां हो होमु करप. *(शेष लगी अंकान्तु)*

**पुस्तक प्रकाशन**

* फोमेंतु सभाघर (तिसरो माळो) सरस्वती मंदीर संस्था, पणजी 22.2.19 :- "चंवर माळ" (कविता झेलो) - अनघा विठूकृष्ण कमत

* ब्लॉक बॉक्स, रवीन्द्र भवन, मडगांव (गोंय) 23.2.19 :- "Traveller of the transforming times" (कोच्चीचे आर. एस. भास्कर हंगेले "युगपरिवर्तनाचो यात्री" पुस्तकाचे आर. एस. श्रीनिवास हन्नि केल्लेले इंग्ळीश अणकार)

* "Saga of the Uprooted" रंग हरि हंगेले "विस्थापनाची कथा" म्हळेले पुस्तकाचे शरतचन्द्र शेणै हन्नि केल्लेले इंग्ळीश अणकार)

* 17.3.19, मेनेझिज ब्रागांझा हाळ, पणजी (गोंय) :- "पांयवाटो" (कविता समाहार) - अतिशा अशोक सुर्लीकार

* 14.3.19, सरस्वती मंदिर, पणजी :- "काव्य फुलां" - विंदा नायक

## (केन्द्र) साहित्य अकादेमी अनि कोंकणी कार्यक्रम

* साहित्य अकादेमी सभाघर, दादर (पूर्व) मुम्बई :- 24-25 फेब्रु 2019 क जल्लेले "पश्चिमी भारतीय युवा साहित्यिक सम्मिलन" कार्यक्रमांतु कोंकणी प्रतिनिधियो अस्सिलीं - अवंतिका कामत, अविता गांवकर अनि स्टॅनि डिसोज़ा।

* साहित्य अकादेमी सभाघर, दादर (पूर्व) मुम्बई :- 16-17 फेब्रु 2019 क जल्लेले "पूर्वोत्तरी एवं पश्चिमी भारतीय लेखिका सम्मिलन" कार्यक्रमांतु शीला कोळंबकर, किरण बुडकुले, मिलन वैंगणकर, रजनी भेंब्रे अनि अपर्णा गारूडी कोंकणी प्रतिनिधियो अस्सिलीं।

* मल्टी पर्पज हॉल, कला अनी संस्कृती संचालनालय, गोंय सरकार, पण्जी (गोंय) :- 18-19 फेब्रु 2019 क साहित्य अकादेमी, उच्च शिक्षण संचालनालय, गोंय सरकार आनि सरकारी कला विज्ञान आनी वाणिज्य महाविद्यालय, खांडोळें, गोंय एकमेळून घडोव्नु हळ्ळे "कोंकणीचो आठवें अनुसुचयेंत आसपाव : रुप्या महोत्सवी वर्स पूर्ती" परिसंवाद।

* 21.2.19, साहित्य अकादेमी सभाकक्ष, तृतीय तल, रवींद्र भवन, नई दिल्ली :- साहित्य अकादेमीन, 'आंतराष्ट्रीय मातृभाषा दिवस' निमित्तान "बहुभाषी कवि सम्मिलन" घडोव्नु हळ्ळें। कोंकणी प्रतिनिधी - नूतन साखरदांडे।

* 17.3.19, कोच्चुमुल्लक्कल श्री भद्रकाळी-श्री महाविष्णु देवळ, तिरुवंबाडी, आलपुषा:- साहित्य अकादेमी अनि कुडुंबी सेवा संघ हांच्ये सुंयुक्ताभिमुख्यारि "कोंकणी लोकनाच सुवाळो" आयोजित केल्लो। जानपद कलावेदीकेचे कलाकार, एडपदवु, मंगळूर हन्नि घुमटा नाच, तोणिया खेळ इत्यादि सादर केल्लें।

* 21.3.19, Canara Bank School of Management Studies Auditorium, Central College Campus, बंगळूरु :- "World Poetry Day" अनुबन्ध जाव्नु साहित्य अकादेमीन "Prithvi : A Poetry Festival" घडोव्नु हळ्ळें। कोंकणी प्रतिनिधि - राजेन्द्र केरकर

**नाटक** - 26-27 मार्च 2019 कृष्णकक्ष, कला अकादमी, गोवा :- रंगमेळ प्रस्तुत एकांकिका सादरीकरणान्तु 4 नाटकँ। कोंकणी नाटक "द स्केलेटन व्हुमन"।

संत कबीरदास दोहा -



एन. लक्ष्मण मल्या, कांच्ची

"कबीर कहै मैं कथि गया, कथि गये ब्रह्म महेस।
रामनाम तत सार है, सब काहू उपदेस।।"

ब्रह्मा अनि शिवान सगळे लोकांक दिलोलो उपदेश हांवेयीं संग्गताँ - रामनाम सच्चा सार वस्तु तँ। सग्गटांकयि (वर्ण, जाति, लिंग सम्प्रदायु भेदु ना) रामाले भक्तीक अधिकारु अस्स।

## मोनो - पी. एस. प्रदीप, कोट्टयम

एक मोनो आसलो.
ताका मोनेपण प्रतिबंध जावन दिसल ना.
तो इशारो भासेन कायरें करता.
जीबंन उलोवचेलेरि कुसंगाय दिसताली.
मनीस सहज.
देवाने वैभव तो विस्मयान पळेयता.
माकायि एसी उलोवचा जातेनेवे देवा?
प्रार्थना करतां तो आशेन.
शास्त्र वाडेने.
"मोबयल" (Mobile) फोण सुलभ;
सर्वांकय तांकेने,
जन मूक जालीं, फोणान्तु लीन जालीं.
Facebook, Whats App.... तसलें,
ताका सर जलेलि Smileys;
eye, hand, teeth - Emojis (दोळें,हाथ,दांत)
मोनेंलि भास विश्वव्यापी जाली, मोनोय
आत उलोवनतिनेची उलेयता -
"मोबेयलान्तु" !

## कोंकणी नाटकँ

* 15.2.19 कोच्ची सिन्द्राभोगोन्ती देवळाकडे :- कोच्चिन कलाक्षेत्राले "नम्बर 40: को-को एक्सप्रस"
* 2.3.19, श्री धर्मशास्ता देवळाकडे :- पाण्डुरंग कलाकेन्द्राले "चिरञ्जीवी मार्कण्डेया"
* 4.3.19, श्री उद्यानेश्वर देवळाकडे :- गोश्री कलाक्षेत्राले "सन्त तुकाराम"
* 26.2.19, श्री देव जागेश्वर देवस्थान, आर्के-मडगांव (गोंय) :- मारुती नगर क्रिडा आनी कला समितीले "मागिर रोडोन कांयच फायदो ना"

## चेर्डुवांलि चित्रँ









कु. सम्वर्तिका डी. नायक (5) । तिरुवनन्तपुरमचे दिनेश एन नायक अनि कविता हंगेलि सुपुत्री।



# शोभा बालकृष्ण पै (शोभा डी. मल्या)

**(24.08.1958 - 20.01.2019)** - सन्ध्या वी. प्रभु. कोच्ची

अनेक कोंकणी नाटकान्तु गींत म्होणु, अभिनयूयि कोर्नु, कोंकणी नृत्य नाटिकांतु आलापन कोरनु, कोंकणी नृत्यांक फटिबल म्होणु, कोंकणी गान सुधा, गानाञ्जली, कोंकणी भजन सन्ध्या इत्यादीन्तु भागु घेवनु, कोंकणी हरिकथेक गींत म्होणु सग्ग शोभा म्हळ्ळेले भाषा प्रेमीन जायती सेवा केल्लेली अस्सा.

कोच्ची बड्क्का केरीन्तु अड्ड्या ऊंच यूनियन बैंका कर्मचारी देवदास मल्यालीय लीला डी. मल्यालीय मलघडी धूव जावनु 24.8.1958 तुं जनन. प्राथमिक विद्याभ्यासु कोच्चीचे टी. डी. हाईस्कूळांतूय, बी.कोम कोच्चीचे "मेयस" स्वकार्य कोळेजांतूय, एम.कोम एरणाकुळम्चे "राणीस" स्वकार्य कोळेजांतूय चमकीलें. कृष्णाबायि, तंकमणी ह्या गुरू लागी थाकून शास्त्रीय संगीतय, भजनय सिक्कीली.

चोनच्चे (चेन्नमंगलम) माडश्शेरी रामचन्द्र पै हंगेलो सुपुत्रु बालकृष्ण पै हन्नी जाव्नु 30.4.1986 क व्हर्डीक चमकीली. तंका एक्कूची पूतु.

कोच्चीचे सुशीला टी. भट हन्नी घडयलेले "गोश्री कला-केन्द्र"ान वर्षान वर्ष चमकयलेले "अष्टपदी", "रघुनाथ महापात्र", "अन्यथा चिन्तितं कार्यं", "सुक्ती अनीक भरती" इत्यादी कोंकणी नाटकांतूय, "सती सुकन्या", "वोळारु", "गणपतीलो लड्डु" इत्यादी नृत्य नाटिकांतूय, गींत म्हळ्ळेले असाय. "भक्त विठळ दास", "मनकोजी बोधला", "साधु शंकर दास" इत्यादी सुशीला भट्ट हन्नि अवतरण केल्लेले कोंकणी हरिकथेंकय गींत म्हणप अस्सिल्लें.

एल.ऐ.सी चो उन्नत कर्मचारि जावनु अस्सिल्ले बमणाले स्थानांतराक अनुसार जावनु भारताचे गांव गांवांत राबिल्ली अस्सा. हंगा सग्ग जायत उतूल कडे थाकून तरा तराची भजना सिखून कळ्ळीं अनीक अनेक वेदींचेर अवतरण केल्लेलेंय अस्सा.

एक चांगी समाज सेविका लागेन जावनु असिल्ली, संसर्गांतु आयिल्ले जनांगेले मनांतु सग्ग एक घट्टी मुद्रा सोड्डून 20.1.2019 क शोभा बालकृष्णु अकस्मात हो लोकु सोड्डून गेल्ली. हंगेले मोक्ष प्राप्तीक जावनु अंका प्रार्थना कोरयां. ◙

## काम नाम दाम



- कु. अञ्जली किणी, कोच्ची

मेळका चांग काम। जाय चड दाम। कोरका व्होळ्ळे नांव। व्होड स्थानाचेरि पांवका। तशि मानु ऊँच चोडोंव्का। मुर्तम काम पोट्टा बगेक करतालीं। अत्तं पोटय, फाटीय विस्सोर्नु दीसु राति एकु कोरनु काम करताय। इत्याक ? दुड्ड कोरूक ? धन जाय। पोट भोरूक, घरकारांक पोस्सूक, दान धर्म कोरूक ! जल्यार धन मात्र वे ह्ये जीवनांतु जाय म्हळ्ळोलो लग्गिच्चो प्रश्नु। धन कोरचे भ्रमान हड्डँ पिट्टो कोरनु काम करतलीं। वर्ष प्रायेरि समकीचि हड्डँ पिट्टो जावनु पळ्यारि चोंवचाक कोण अस्सुन्नाय। दोनि क्षण घराकय, घरकारांकय चोंवचाक अत्तँ ना जल्यार फाय तांगेले एक क्षणाचे बगेक तरसूनु कयरीं ना। व्होळ्ळे नांव कोरनु व्होळ्ळे स्थानारि वोच्चून बेसल्यार समूहान्तु वगळेंचि मोल असतलें। सत्य ! तें नांवय स्थानय केद्दाण ना जत्ता तो मगिरि साधारण मनीषूचि जाव्नु वरता। ह्ये कांय शाश्वत न्हंय म्हळ्ळेले सत्य अम्मि जाण जांवचाक तोडोवु करताय। दुड्डय नांवय कोरचे भ्रमान जीवनाचो अर्थूचि विस्सोर्नु वत्ताय।

### कोंकणी नाटक मत्सर

* 27 फेब्रु.-2 मार्च 2019, लक्ष्मी नारायण देवस्थान, आर्ल-केरी, फोंडे, गोंय :- साई संकल्पना गोंय अनि कला आनी संस्कृती खाते गोंय सरकार आयोजित "नाट्य महोत्सव 2019" जल्लें। नाटकँ - "सांग सांग भोलानाथ", "टिक टॉक टिक", "पूर्ण लव्ह स्टोरी", "रघुपती राघव राजाराम", "फॉर्मालिन जांवय"।

* 19 फेब्रु. - 16 एप्रिल 2019 - दीनानाथ मंगेशकर कलामंदिर, पणजी (गोंय) :- कला अकादेमीचि 43 वीं कोंकणी नाट्य स्पर्धा 2018-19 जत्ता अस्स। 32 नाट्य संस्थो वांटो घेत्ता।

### शिगमो आयला रे !

- आर. एस. भास्कर, कोच्ची

दोल वाजीत
ताल वाजीत
आंगणांत आज
खेळ आयलो।।
नाचत गायत
गांवांत आमच्या
शिगमो आयलो
शिगमो आयलो।।

Reg. No. KERKON/2012/45527
Vol. No. 8 Issue No. 4
Rs. 25/- No of Pages: 40 **SPANDAN**
Published by : KERALA KONKANI ACADEMY, KOCHI
Registered KL/EKM/732/2018-20
Licence No. KL/CR/EKM/WPP-22/2018-20
Licensed to Post Without Prepayment
Date of Posting 10. 04. 2019



Printed and published by Suresh A. Shenoi on behalf of Kerala Konkani Academy and Printed at M/s. Prakash Process, Srinivasa Mallan Road, Ernakulam, Kochi - 682 035, Ph: 2350960 and Published at 8/28, Santheri, 1st Floor, Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road, Kochi - 682 002. Editor - Suresh A. Shenoi